# बुरखे

अभयकुमार स. शणै वेर्लींगकार

K. Gokuldas Prabhu,
CORPORATION BANK
No. 250, Brough Road,
ERODE - 638001.



आ नो भद्रा : ऋतवो यन्तु विश्वत : ।

शणै प्रकाशन

वेर्लींग - गोंय

22.11.1982

शणै प्रकाशन : २
Pocket Book : 1
पयली खेप : माय १९८०

(C) अभयकुमार शणै वेर्लीगकार

उजवाडावपी :
सौ. वसुमती स. शणै. वेर्लीगकार
शणै प्रकाशन
वेर्लींग – गोंय
४०३४०४

छापपी :
काझ अुवय प्रिंटींग प्रेस
पोस्ट ऑफीसालागीं
पणजी – गोंय
४०३००१

मोल : २ रुपया

दुसऱ्यांखातीर जिवीत ओंपप्याक

# बुरखे

हे ल्हान ल्हान बुरखे. हांचो संबंध अेकमेकां-लागीं आसाच अशें ना आनी तो आसूंक जाय अशेंय ना. कांयकडेन तो आसूंये, कांयकडेन नासूंये. पूण जाय जाल्यार वाचतल्यान असो संबंध जोडूं येता. असो संबंध जोडलोना म्हुणनय कांय लुकसान जावचें ना आनी जोडलो म्हुण कितेंय लाव जायत अशेंय म्हाका दिसना.

पुण एक खरें, हे बुरखे ओडून काडूंक जाय तेन्नाच कळटलें कोण खरे आनी कोण फट. तोंवेर हे बुरखे अशेंच बदलत रावतले आनी आमी मात् आमच्या कर्मीक जावं नियतीक दोश दीत रावतले.

# म्हाका फटयलें

ही कविता वाचतकूच कोणूय म्हण्टले कि कविता सामकी बालबोध वळणाची. आसत, न्हय, ती असाच तशी. पुण ती गजाल आसा अेके अुबंत पडिल्ले बायलेची. तिच्या संवसाराची सोऱ्यान कशी वाट लायली तेंच ती आडुतालो; हांवे तें फकत चित्रायलां.

अशे कितलेशेच संवसार आसतले जें सोऱ्याक लागून अुबंत पडल्यात, वाऱ्यार पडल्यात. आमी फकत सोरोबंदी नाका म्हुण गजालूच मारपाची. सोरोबंदी नाका म्हण्टल्यानी भोंवन पळोवचे गोंयचे रस्ते आनी हे अुबंत पडिल्ले संवसार. मागीकूच करचो ताणीं सोऱ्याचे बंदीक विरोध !

नासल्यार तांकां कसलो अधिकार गोंयचेर आनी गोंयच्या प्रस्नांचेर अुलोवंचेलो ? त्या प्रस्नांचेर उलयतना पयलीं त्या लोकांलागीं संबंध येवंक जाय; गाडयानी भोंवले आनी अेअर कंडीशनांत बसले म्हुण अुपकारना.

बुरखे पांगरून वावुरपी
पयशांच्या तालार नाचोवपी
ह्या अर्थ नाशिल्ल्या संवसारांत
'चमच्यांक' चड म्हत्व आसता
नालायकांक वेंगेंत घेवन नाचतात.



केन्नाकेन्ना पिशेच खरें उलयतात
जावं खरें उलोवप्यांकूच पिशे म्हण्टात
ते केन्नाच पयशांचो,
फटींगपणाचो खेळ खेळनात
तांचेखातीर आपशींच फोंड तयार जातात.

ही नियतीय अशीच आसता
बेबद्यांवरी खंयचेयवाटेन लकता
केन्ना जाणा जावन, केन्ना नकळटां
सारखी चुकयत आसता
केन्नाकेन्ना कळयो लेगीत तोडटा



हांगच्या घरांच्या नळ्यानळ्यान
पळयल्या आसतल्यो मिरवणुको
लग्नाच्यो, निवडून आयिल्ल्यांच्यो
आनी मरणाच्यो लेगीत
पुण दूक गळोवंक तांकां कळच ना.

बरें कितेंय पळोवपाची
संवय आमकां लागूं ना
सदांच पळयल्या घाण
देखुनूच दिसता, हे दोळे
काडूंक येवं जाय आसले.



आमी खिणाखिणाक
फकत विचार करपाचे
आनी विसरून वचपाचें
उजवाड दिवपी सुर्या अस्तमता
थंय विचारांचें कितें ?

प्रत्येकान आपलीं मनां

उगडून पळोवंचो यत्न करचो

तातूंत काळे दाग आसतलेच

पुण काळचो कोगळी गायतना

आयकन दिसता हें विसरचें न्हय.



कावळ्याचो काव - काव

मनाक हालोवन उडयता

पुण तीच काव - काव

दीस उदेलो म्हुण सांगता

हें मन विसरून वता, हें अजापूच.

मन फकत बरेंच येवजिता

वायट हें दुस्मानाचें चिंतप

पुण दुसऱ्याक आयज

तेंच फाल्यां आपणांक

हें समजुपाची अक्कल जाय.



सगळें होगडायलें तरी

मन जाग्यार आसता

केन्नाकेन्नाय फाटल्या यादीनीं

मेल्लें मन लेगीत, वोतांतल्या

गांयडोळाबरी हुळहुळटा, तडफडटा.

आपलें वायट जांवचें
अशें कोणाक दिसना
पुण आमच्या हातांत
कांयच आसना
नियती आपलें काम करीत वेता.



दुख्ख सोंशिल्लोच, सदांच
दुसऱ्याच्या सुखाखातीर झरता
तांचेखातीर आपलें जिवीत ओंपता
जशी न्हंय आपल्या उदकान
दर्याक व्हड करचो यत्न करता.

हे मातयेंत सर्ग निर्मूंक पळोवपी

मनशाचीच निमाणें माती जाता

पुण मनीस मात

आपुण केन्नातरी हें करतलों

हेंच सपन पळयत रावता.



हेच तांबडे मातयेंत

हांवेंय बियां रोयल्यांत

आनी तळमळत बसलां

केन्नातरी रोपां येतलीं

आनी हांव तांचीं फुलां पळयतलों.

बियां के ऽ न्ना कुसलीं
पुण आशा अजून तांजी आसा
बावडें मन तळमळत
वाट पळेता रोंपांची
आपल्या फुलपी सपनांची



निकतोच पावस पडला
मातयेक वास सुटला
हेच मातयेंत बसून
मन समाधान मानता
होच फुलांचो वास समजून.

तर, सगळे तशेंच करतात
आपले आपणांक फटयतात
हें सदांच चलता
केन्नाकेन्ना आपल्या सपनांच्या
राज्यांत, राजा जावन बसतात.



मागीर याद जाता ल्हानपणाची
त्या भुरगेपणाच्या खेळाची
चिडक्या मिडक्यानी खेळपाचे
शिपयो पुंजावन दवरपाच्यो
मोतयां पुंजायल्लेवरी नेटान.

पयशेकारांनीच करपाचे
आपणांले वाडदीस नेटान
ताणीं फोडून उडयल्ल्यो
रिकाम्यो बाटल्यो पळोवनूच
आमी आंवडे घोटपाचे.



मुखार अेकदीस जल्म दिसता
आनी मुखारसरून,
तो मरणाकडेन पावता
सपन खरें जावं येंतालें
तितल्यान आमी नागडे जातात सरणार.

कोण केन्ना कसलो बुरखो घेत सांगूं नजो
इतलें मात खरें, चलतल्याचें हालता
आनी तांचेफाटल्यान धांवपी,
हालता तें पडटलें आनी मेळटलें
हेंच आशेर जगता.



पयले कांय दीस अशेंच वतात
केन्नातरी कळटा, तें हालपाचें
गळपाचें मात केन्नाच ना
तेन्नास गळ्यांची फाट जाता
बुरखे बदलतात ते अशेंच.

सगळे विचार कुशीक काडून
हे बुरखे ओडून काडूंक जाय.
केळ्याच्यो साली काडटात तश्यो
नासल्यार हें प्रस्थ वाडत वेतलें
झाडाक बेनुल्ल जाता तशी.



आमच्या सपनांत मळब येता
काळीं काळीं कुपां येतात
चंद्रीम मात हातांत येवचे पयलींच
पयस पयस वता.
ताका बुरखेवाल्यानी सांबाळिल्लो आसता.

काळ्या कुपानीच आसता शक्त
मातयेंत रोपां किल्लावपाची
पुण आमच्यानीच जायना
तांकां निसाणेमेरेन धरपाक
आनी आमचीं सपनां फुलोवपाक.



बुरखे पिंजपाचो यत्न केल्यार
पयशेकारांमदीं बोवाळ जाता
आनी आपल्या 'चमच्यां' कडल्यान
लोकांकविकते घेवंक
ते फाटींफुडें पळेनात.

कोणतरी, केन्नातरी मेळटा .
पयशांपरस, तत्वाक व्हड मानपी
आनी ताचो जीव विकतो घेतात
कूड खंयतरी उडयल्ली आसता
अपघात जावं आत्महत्त्येच्या नांवान



पयसो हेंच सर्वस्व आसता
विचार वाडटा, तसोच पयसो वाडटा
फकत जाय अक्कल
कसो वाडोवंचो पयसो आनी
कसो सांबाळचो तें कळची.

रातचो काळोख सदांच उरना
केन्नातरी दीस उदेताच
आनी न्हिदेतल्यान जागो जातना
फाफडून अुडोवंचो पडदो
आंगावयलो बुरखो.



मन कितलेंय सोबीत आसलें
तरी पयशांची पोकळी
भरूंक शकना हें सत
कोणाच्यानूच ना म्हणूंक जावंचेंना
व्हड मनाक कोणूच विचारना.

रगत आटोवंचें पडटा

पयसो अेकठांय करतना

आनी जमोवचे पडटात

'चमचे' फाम घालूंक, तेन्नाच

संवसाराक वळख जाता मनशाची.



उपासान मरपी, पयशेकार जातकूच

ताच्या भोंवडेची खरी सुरवात जाता

मागीर सगळें विसरपाचें

भूक, तान आनी विचार करपाचो

'खंयचो बुरखो पांगुरचो ? '

खिणाखिणाक विसरन दिसता
आपलें स्वताचें जिवीत
पुण तेंच परतें सामकार येता
मोगान सांसपिता आनी
दाखोवन दिता नियती.



मागीर विचार सोदतात ताका
तो खंय ?  खंय तो ?
तो मात, आपल्या विचारांचेर
शेळो दाटिल्ल्यान,
दुसऱ्यांचे विचार घेत भोंवता.

ताच्यांतलो मनीस केऽऽन्ना मेला
तो आतां पयशेकार जाला.
ताणे बुरखो पांगुल्ला मोठेपणाचो
आनी नेटान भोंवता पुण
ताच्यांतली उणीव ताका दिसना.



केन्नातरी जागो जाता
आनी ताका दिसता
'आपलें हें कितें जालां ?'
हें अशें उपकारना
पुण बुरखो ताका घट्ट दसला, घट्ट !



## म्हाका फटयलें

तुमी म्हाका फटयलें गा
तुमी म्हाका फटयलें
मोगांत तुमच्या पडलें
मोगान तुमच्या पिशें जालें
तुमी म्हाका फटयलें.

तुमचेर विश्वासून
हावें घर सोडलें
तुमच्या गळ्यांत माळ घालून
हांव तुमचेंच जालें
तुमी म्हाका फटयलें.



तुमच्या वांगडा हांव आयलें
घरच्यांक सोडलें
बापायचें उतर गा हावें
तुमका लागून मोडलें
तुमी म्हाका फटयलें.

लग्नाउपरांत कितलो मोग
कितले सोपूत मोगाचे
"तूंच म्हजें काळीज गो
तूंच म्हजी लक्षीम"
तुमी म्हाका फटयले.



भाग्यवान कितलें हांव
म्हाकाच समजलें
म्हजे इतलें खोशी कोण,
संवसारात ह्या नाशिल्ले
तुमी म्हाका फटयलें.

आतां अशें कितें जालें

कोणाचे दोळे आमकां लागले

संवसारांत उज्या किट

कोणाक अुडयन दिसलें ?

तुमी म्हाका फटयलें.



म्हजें भांगर विकलें गा

तुमी गादयेर वगडायलें

खंयच्या अवदीसेन तुमकां

व्यसन हें लायलें ?

तुमी म्हाका फटयलें.

घर – दार विकलें गा

सगळें सोऱ्याक वगडायलें

सांग गा खंयचे भुत

तुमच्या गोमटेर बसलें ?

तुमी म्हाका फटयलें.



रागान उबें पेटील्लें

हांव जास्ती संवतालें तरी

बेबदे आसून तुमी

म्हाका जाय आसले

तुमी म्हाका फटयलें.

पियेवन तुमी रस्त्यार आयले

गाडये धक्क्यान खाला पडले

आनी सामके वयर गेले

परते येवचे नासले

तुमी म्हाका फटयलें.



रात दीस पियेवन गा

तुमी म्हाका मारलें

सांग गा म्हाका व्यसन

तुमकां कशें येवजलें

तुमी म्हाका फटयलें.

भल्ल्या संवसारातल्यान तुमी
कशे गा गेले ?
अेद्‌चा व्हडल्या संवसारांत
म्हाका अेकटे थेयलें गा
तुमी म्हाका फटयलें.



फटवचेलें आसलें तर
वांगडा कित्याक आयले ?
वांगोड दिवचो नासलो तर,
म्हजे कित्याक जाले ?
म्हाका कित्याक फटयलें !
गा, म्हाका तुमी फटयलें !

दर अेका घरांत देवारो,
तशीच –
दर अेका घरांत पुस्तकांची कोठी
ही आयच्या काळाची गरज

आनी देखुनूच
“ घराघरांत पुस्तक ”
हो हावेस मुखार दवरून
“ कोंकणी पुस्तक कोठी ”

हीं येवजण तयार केल्या.

कोंकणी पुस्तक कोठयेचे वांगडी जायात
आनी पुस्तकांच्या रुपान
सगळेकडेन गिन्यानाचो उजवाड
आनी खोस पातळावंक हातभार लायात.

कोंकणी पुस्तक कोठी
( कोंकणी बुक क्लब )
नगर, प्रियोळ
पोस्ट म्हाड्डोळ
गोंय, ४०३४०४

तुमी वाचल्यांत ?

नासल्यार मुजरत वाचात,

डॉ. र. वि. पंडीत आनी भौ. शंकर रामाणी सारख्या कविनी तोखणाय केल्लें

# " माणकुलीं कवनां "

वाट पळयात

# " कुळागर "

थोडयाच दिसानीं भायर सरता.

मेळपाची सुवात :

**कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव आनी पणजी**

**शणै प्रकाशन, वेलींग**

बुरकत मारून तोंड लिपोवपी संवसाराच्यो ह्यो कांय पती – बुरखे ! बुरखे – तांचोय अेक घुटाचो वेपार आसा. ‘ कोण केन्ना कसलो बुरखो घेत सांगूं नजो ’ तशेंच कोणाचे बुरखे केन्ना कशे बदलत हें्य कळप कठीण. बुरखे पिंजपाचो यत्न केल्यार वैलचाराचे संभावीत रोखडेंच बोवाळटात. कारण, तांकांच चड बुरखे लागतात. पुण रातचो काळोख सदांच उरना. बुरखेय तशेच. केन्ना तरी ते गळून पडटातूच – खरी नुरा अुक्तावपाक. आनी कांय जाणाक तर बुरखो काडचो म्हळ्यारय काडूंक येना. कारण तो तांकां सामकोच घट्ट दसून बशिल्लो आसता.